# आदिमायेचे उले

**बाळकृष्णजी कानोळकार**
प्रपाठक
मराठी विभाग, गोंय विश्वविद्यालय.

**परा-प्रतिमा प्रकाशन**
**तुयें, पेडणें - गोंय. ४०३ ५१२**

आदिमायेचे उले

(कविता)

बाळकृष्णजी कानोळकार

Adimayeche Ule

( Poetry)

Balkrishna G Kanolkar



प्रकाशन क्र : ११

प्रकाशन :
परा-प्रतिमा प्रकाशन
तुयें, पेडणें - गोंय, ४०३ ५१२
C/c : 9421156116

मुद्रण :
अनिकेत डॉट कॉम

वितरण वेवस्था :
अक्षर-आनंद वितरण
फोंडे-गोंय, ४०३ ४०१

पयली उजवांडावणी :
२९ देजेंब्र २००८

कवर डिजायन :
हेमकृष्ण

मोल : १५० रुपया

*आदिमाये ,*

*कोंकण भुये ,*

*म्हजे हे पयले पयले उले*

*तुका भावार्थान ओपतां ;*

*तुजे मातयेचो परमळ तांकां*

*लाबूं दी*

*आनी उल्यार उले फुडें*

*गर्भार जाऊंदी .*

तुजो मातये कण,
बाळकृष्णजी कानोळकार

# उल्यां-वळेसर

## उलो : पयलो

आदिमायेचे उले ५
गोमंत-स्तोत्र ६
आदिमायेचो पूत ९
भुंयचाफो ११
दसरो १२
चेडे जाले पागते १४
ताणेल्यानो तुमी... १७

## उलो : दुसरो

उले २१
रेंवें दुंग्यार उबो हांव.... २२
ताणेल्यानो..... २४
चंवर २६
धवो रूख २८
मन ३०

## उलो : तिसरो

पालखी ३३
चकनां ३८
रथा-उच्छाव ! ३९

पावणी ४६
कोचिल्लो नाल्ल ! ४८
शबै ! शबै !! ४९
कुब्याट ५१
मार्ग ५४
बावलीं ५७
कवन : १ ५९
कवन : २ ६०
कवन : ३ ६१
कर्तुत्व ६२
चूड ६३
चिरो-चिरो घट्टां-घट्टां ६५
लोकशाय ६७
पंद्रा आगोस्त ६९
मुक्त आमी ७१


## उलो : चवथो


माजी आई ७५
हांव ७७
म्हाका जाय ७९
तुजें...म्हजें ८०
कवी ८१
शिटकावणी ८५
मागणे ८७

## आदिमायेचे उले

तुजें चान्याचें नांव
वेंगावंक
हात म्हजे पिशे जाले.

तुजें नेकेत्रांचें गांव
हुपोंवक
पांव म्हजे पांगळे जाले.

पांव म्हजे मातयेचे,
आसतीत; तरीय–
नेकेत्रांचे हात म्हजे–
निर्मितले विश्व नवेंच.

आदिमाये उले तुजे,
आजुच गर्भार जावूं दी.
मातये कुडींत गे म्हजे
तेज तुजें पर्मळुं दी.

## गोमंत-स्तोत्र

सुपुल्लेशें गोंय आमचें मनिसकायेचो प्राण
दुदान पोसले पूत ताचे जगात जाले व्हड-म्हान ।। धृ ।।

दोंगर दर्या निर्मळ सदांच,
सांगातान रावता - हांसता.
झाडां-पेडां, न्हंयो-बांयो,
आपालिपा हांगा खेळटा.

देव-देवता खेळटा मांडार उदेंत-अस्तिम मेळटा काळजान
इगर्ज-मजिद, देवुळ-रावुळ, सगळे आमी भयण-भाव ।। १।।

आंबोलीं रतन फुलता -बोलता,
शेंवती, चाफो, हातो हांसता.
कांदळा - ओंवळां, सुर्गां दर्वळ,
जायसो जायां-जुयां पर्मळ.

देवतेचीच न्हय पुजा देवळांत फुलांचीय फुलत्या जाता
नकेत्रां देंवतात सर्ग सोडून समूळ न्हिवता भूक तान ।। २।।

सह्यगिरी पाठीराखो,
दर्याचो गिरेस्त भर्वसो.
दुदसागराचो हांसो,
मन - मनीस स्वरपिसो.

धालां मांडार रात देखणी देवरंभा रास नाचता
समेळ-सासाय, घुमटां सांगातान जागर जागयता कूडप्राण।।३।।

पावस-गीम, सांज-सकाळ,
रंगयाळे सैम हासता म्होवाळ.
आंब्यां-पणसां संग रसाळ,
शेवण्यां-जिवण्यां उलुप मोगाळ.
तरंगाच्या गोंड्यार नाचत्या चंद्र-सूर्य एकठांय हासता
शिगम्या पावलेर फुलता चैतिर,जांबावलेचो गुलाल लाल।।४।।
देवभोळो गोंयकार गावडो,
सतपणी कोमसार जाता.
शेतकार, कामकार, म्हालगडो
अग्निदिव्य दरसाल करता.
हांगां शेतां-भाटांच न्हय दोंगर-दर्या, मातीय पिकता
सुख-शांती-संमृध्दि नंदुक एकचाराची पेट्टा वात ।। ५।।
माड - माडयो ऊंच मळबांत,
दोंगर-दिवतणी ऊंच मळबांत,
तोरी-इगर्जी ऊंच मळबांत,
मनशाक अमृत देख दितात.
धर्तरेचो सर्ग करची अणुरेणूत आस्त रूजयता
फेणये परसय हांगची माती रे धुंद करता जीव-प्राण ।। ६।।

गुच्च तांबडी  माती आमची
पाचवींचार रानां-शेतां,
गच्च हिरव्या आग्रांत देंवतीं,
हळदुवीं भांग्रां-वतां.

निळ्या निळ्या मळबा-दर्याक     चंद्रिम चंचळ जीण-मेटां
सोय-यां-धाय-यांक आमचें सदांच आसा उक्तें हड्‌डें-दार।।७।।

## आदिमायेचो पूत

उजवाडाचे मोगी, उजवाडची
वाट पळयतात. पळोंव दी !

हांव वाट पळयतां.... काळखाची !

उजवाडाचे मोगी विसल्ले जांवये,
उजवाडाची कूड जल्म घेता –
काळखाच्याच कुसव्यामदीं !

काळो कृशण जल्मुंक ,
युगांची काळखी रात आदिं –
– आदिमाय-जल्मुची पट्टा !

तीच जाता मागीर
नव्या युगाचो दिस्टाबोदिणो
लकलकाट !.... चकचकाट !
.....प्राण नवो !

मुखावेल्यो काळख्यो राती ,
उजवाड वियेतात ;
देखून काळोख पुजता
कुलभ्रश्ट सनातन सूर्य !
जल्मता एक ‘म्हाभारत’ मनात
आनी रुजता
काळखा-उजवाडाचें झूज
.....रव तात !

आदिमायेचो पूत : कृश्ण
परजळटा :
“उद् धरेत्
आत्मनात्
आत्मनम् ! ”

## भुंयचाफो

संवसाराचो गीम कडकडीत,
खाप्रिसो तापिल्लो.
यादींचो भुंयचाफो मनभुयेंत
शीतळ तुजे न्हिदिल्लो.

शेण जाल्लीं सपनां हांवें
दुखांनी सारयलीं, तसो
हड्डें फ़ोडून फुल्लो पिसो !

शेणिल्ल्यां खिणांचो पर्मळ खिणांत
भाऽयर......भीऽतर....
जीणभर जालो !

## दसरो

दसरो इलो न्हवरो न्हेसून
कदमकाळची तरसाद पाजून,
भौसाचेर भार इलो !
दसरो इलो ! दसरो इलो !

सृश्टेन माल्लो सर्गाक उलो
उलो देवां-तर्गां जालो.
भुतांभायरो संवसार केलो !
दसरो इलो ! दसरो इलो !

मळबाक चान्या-चंवर इलो;
उमाशे-काळोख पुनव जालो;
भांग्रां-दर पानांक इलो !
दसरो इलो ! दसरो इलो !

शेगान-शेग शेवान सोडून,
भगवतीमायेन कौल दिलो.
संवसार नवोच जल्माक घालो !
दसरो इलो ! दसरो इलो !!

दसरो इलो ! दसरो इलो !!
दसरो इलो ! दसरो इलो !!

## चेडे जाले पागते

चेडे जाले पागते आनी
दर्याक पडली पाड
आनी चेडे जाले पागते आनी
दर्याक पडली पाड

दर्याक पडली पाड आनी
हातार आयलें पॉट
आनी दर्याक पडली पाड आनी
हातार आयलें पॉट

हातार आयलें पॉट आनी
वेताळाक सूर-रॉट
आनी हातार आयलें पॉट आनी
वेताळाक सूर-रॉट

वेताळाक सूर-रॉट आनी
भुमकेक मारली खॉट
आनी वेताळाक सूर-रॉट आनी
भुमकेक मारली खॉट

भुमकेक मारली खॉट आनी
पिकोंवक दर्या गेलो
आनी भुमकेक मारली खॉट आनी
पिकोंवक दर्या गेलो

पिकोंवक दर्या गेलो आनी
बुडोन जित्तो मेलो
आनी पिकोंवक दर्या गेलो आनी
बुडोन जित्तो मेलो

बुडोन जित्तो मेलो आनी
चेडे जाले मागते
आनी बुडोन जित्तो मेलो आनी
चेडे जाले मागते

चेडे जाले मागते आनी
दर्याक लागली आग
आनी चेडे जाले मागते आनी
दर्याक लागली आग

दर्याक लागली आग
आनी भूमकेर आयलो भार
आनी दर्याक लागली आग आनी
भूमकेर आयलो भार

भूमकेर आयलो भार
तेन्ना चेड्यांक आयली जाग
आनी भूमकेर आयलो भार आनी
चेड्यांक आयली जाग

चेड्यांक आयली जाग
आनी चेड्यांक आयली जाग
आनी चेड्यांक आयली जाग आनी
चेड्यांक आयली जाग

## ताणेल्यांनो तुमी....

ताणेल्यांनो तुमी,
ताणी ऽ त रावात !

आसूं सुकती,
आसूं भरती,
'जीवना'शीं
तुमची मस्ती,
नित्य नव्यान
करीतूच रावात !
करीतूच रावात !

ताणेल्यांनो तुमी....

येतली वसाड,
येवूं दी.
उलांडी बुडत,
बुडूं दी.
तरीय येतली लागी तड,
विस्वास बाळगात !

ताणेल्यांनो तुमी....

आसूं उमास,
आसूं नुमास,
आसूं अश्टम ,
आसूं दस्सम,
ह्यो राती....... दीस हेय -
उलगतलेच ; मतींत दवरात !

ताणेल्यांनो तुमी....

रे ! जाण्टेपणार आतां,
दियात येरें तण्यां-हातां.
खंत-हुसको मोखून मारात,
तांकां तांचें स्वातंत्र्य दियात !

ताणेल्यांनो तुमी....

त्रिखंड-जयी तांच्यां
सपन-तारवांचें नव्यां
करुंक कवतीक मनान् थाव्न,
दर्या जायात ! .......... तुमी दर्या जायात !
ताणेल्यांनो तुमी, दर्या जायात ! ! !

## उले

उले........
..........तुजे.
उले .........
..........म्हजे.

उले.........
तुजे......म्हजे.

उल्यार.......
.......... उले.

उल्यार उले...
वा-यार गेले....

मागे दोळे......

वले........
वले.........

**रेंवें दुंग्यार उबो हांव....**

रेंवें दुंग्यार उबो हांव –
सपन पळेतां
मनोरे रच - रचतां हांव,
रेंवें दुंग्यार !

चंद्रीम आयलो,
चंद्रीम आयलो मळबांत म्हज्या.
दंवशें ल्हव चान्नें फांकेलें;
रेंवें दुंग्यार !

रेंवें दुंग्यार उबो हांव,
चंद्रिम तोखेतां.
रेंवें दुंग्यार उबो हांव,
चान्ने चाखेतां.

आलतड.........पलतड,
आलतड - पलतड, कीण्ण काळख -
तरणोबांड मदन मस्त,
दर्या गाजोऽता
दर्या गाजो ऽऽ। ता

दर्या दर्या गाजो ऽ ता
द ऽ र्या ऽ गा ऽ जो ऽऽ ता !

ल्हारार ल्हार...... ल्हारार ल्हार
नातलां जोरगत ........ ल्हार ल्हार
दर्या जागोयता

दर्या....... जागो ऽऽ ता
द ऽ र्या ऽ जा ऽ गो ऽ ता !

ल्हारा-ल्हारार
रात जडशीळ जायत वता.

चंद्रिम भर माथ्यार आनी
खतखत्यांचें चान्नें - न्हाण ;
भायर भितर दर्या-हांव !
हड्डें हड्डें .......हुलपेता ;
सये , रेंवें दुंग्यार !

रेंवें दुंग्यार उबो हांव –
सपन पळेतां
मन-मनोरे रचतां हांव,
सये रेंवें, रेंवें दुंग्यार !

**ताणेल्यांनो....**

ताणेल्यांनो तुमी ताणीत रावात !

दर्या खंय खुबळ्ळा !
खुबळूं दी ताका.

शीड खंय पिंनलां !
पिंनूं दी ताका

फकत एकूच....
.....येरें सांबाळात !
ताणेल्यांनो तुमी...

ताणेल्यांनो तुमी ताणीत रावात!

शीड म्हळयार व्हडें न्हय!
तुमचे परस व्हड व्हडें न्हयच!
सासणाचें मतींत दवरात.
ताणेल्यांनो तुमी ....

ताणेल्यांनो तुमी ताणीत रावात!

तुमचे ताणीर आयज फुलता!
तुमचे बाणीर फायां धोलता!
तुमचे उलांडेर काल सोंपता!
दिगंता देगेर तुमकां,
सपनां रावतात! सपनां रावतात!
ताणेल्यांनो तुमी....

ताणेल्यांनो तुमी ताणीत रावात!

## चंवर

आंगभर कूड म्हजी :
चंवरल्या.
भांगभर शेवणीं पिशीं :
चाळवल्यां.

आयलीं वसंता आलतडीं,
घर उल्लां पलतडीं.
शिशिराच्या शिरंतरांनी
शिरशिरता सृश्ट नवी.

हांव मदान फुलिल्लों.
रुप-रंगान पोशिल्लों ;
धुंदित गुप्प न्हिदिल्लों.
चंवर केन्नाच सरिल्लो !

सपनांचो नाचत फाग,
आसलो हांव गच्च खोशी.
तांबड्या मुयांक आयल्या जाग,
मुळांत तांच्यो गुच्च राशी.

चंवर झडची वेळ जाल्या,
शेंवणी पर्थुपाची वेळ जाल्या ;
सपनाचीं म्हज्या, मध्यान जाल्या ;
पुण मुयांक आतां बर्कत आयल्या !

## धवो रूख

म्हयनो लागलो फाग,
आनी रानाक पडली आग.
रानाक पडली आग,
ताणें लासलो सगलो बाग.

रुखा गोबर जळींमळीं,
उल्ली ना तेंगशी ताळी
खेतलोसो रुख धवो,
मस्णांत असल्या चिप्प उबो !

तेन्ना...केन्ना नेणारपणार,
हांवें-तुवें पिशेपणार,
कोरातिल्लें 'हड्डें' ताचेर,
वाडट्या वयार शेणालां भितर !

वळखुंक तें येना आयज ;
पुराय उलगलें पोर्ने दायज ;
नव्यान नव्या वर्सा सांगातां,
नाच्च जालें नाच - नाचतां !

दर वर्सा येतलो चैतिर
सृश्ट-सृजन नवोच आंकुर ;
येतलो चंवर नव - नवोच्च ;
धवो रूख पूण धव्या धवोच्च !

## मन

: १ :

पावस पडना फुडें,
मनाचें जालें घडुलें.
पाचव्यो यादी, दीस पाचवे,
पर्थून जाले हळदुवे.

: २ :

झाडां - पानां साण्टानां,
यादी मनांत रूजल्यो
राती उमाशेच्यो,
फुल्ल ध्व्यो दुख काण्टानां.

: ३ :

चंद्रिम मळबांत उदेलो मात :
मन-आगटें पेटलें.
निर्शेणीचे साणीचेर
आवतांक नवेंच तेज चडलें.

## पालखी

पालखी : देवतेची
देवता : पालखेची.
गावभोंवणेक वचूंक नट्टा,
न्हेसणां न्हेसता, शिरंगार करता.

गोणे : इलुताचे, रसमाचे, जरी मरीचे,
भांग्रां-रुप्यांनी, माणकां-मोतयांनीं मढयिल्ले.

देवतेची काचोळी
भांग्रांत कोरातिल्ली,
वज्रां-थिकांनी नटयिल्ली,
रुप्यामखरांत बशिल्ली
किनखाप-गादयेर लोडेल्ली.

देवता : नटली.
पालखी : सजली.
कलवंता : शिणगारलीं.
अश्टकां : चंवरलीं.
.....चौखांब्यार !

देवतेची - पालखी,
पालखेची देवता,
गांवभोंवडेक जाली -
सज्ज !
हर.... हर.....हर.... हर.....
सुसज्ज !

पेटलें मालें ;
धोल वाजले ;
ताशे तडतडले ;
सत्र्यो नाचल्यो ;
अब् दागिरां फुरफुरलीं ;
दिवजां लकलकलीं
तशी : शिंगान कुकार घाली.....

मद्यान राती
म्हादन मदेले ;
भ्रमांतूच गर्जले :
"पार्वती ऽ पते ऽऽऽ
हर - हर - हर -
म्हादें ऽ — ! "

पयलें पेणें : जालें .
कलवंतां : नाचलीं.
दुसरें पेणें : जालें .
कलवंतां : नाचलीं.
अशीं : पेण्यार पेणीं : जायत रावलीं.
कलवंतां नाचलीं : नाचत रावलीं.
रातरात नाचलीं : नाचत रावलीं.
नाचतां नाचतां रातभर फसलीं.

कलवंतांक म्हादन नाचयत रावले :
काळखांत जीणभर फसयत रावले.

म्हादनांनी : कोणी
मान मोडली.
कोणी नदर पालयली.
कोणी धोन धोलयली.
पांचश्यांची कोणी
नवरंगी नोट मोडली !

गात्र-गात्र खरशेलें,
मालें : फुरफुरलें,

गुरवान मुरदंग मेळयले,
पावली  पावली केळयली,
भटान घांट वाजयली,
मंगलाष्टकां म्हटलीं,
आनी धोलार बडी पडली.

तशी पर्थून
चिरंगट जाली : फुडल्यांन : फाटल्यांन : नव्यान.

आनी अशी :
देवतेची पालखी
गांवभोंवडेक सल्ली –
फुडें !.... फुडें.... फुडें....

देवता :
कलवंतांपाशट सजली.... शिणगारली.
भोंवभोंव भोंवली.

गांवान गांवभर मिरयली
दीस-रात किरयली.
सरते रातीक गुरवाघरा

पावणेराक ती आयली !

सोडली कडस्त्री : म्हादनांनी.
घातली अडस्त्री : म्हादनांनी.

दीस नवो उदेतानां
भोगून-भागून न्हिदून गेली !
देवता : पालखेची.

## चकनां

अश्वत्थाम्याची चिरंजिवीं चकनां
सासणाचीं व्हांवतेलीं.
नारायण अस्त्राची पूजा
नराकुळयेक लासतेलीं.

व्हांवता तांकां व्हांवूं दी;
नाडता तांकां नाडूं दी.
'कुरूक्षेत्रा ' उपरांत तरी,
'नरा'चो 'नारायण' जावूं दी.

पेखलीं जाल़्यार चकनां, सपनां–
पैस्स वा-यार हुबतेलीं.
सपनांतुलीं नेकेत्रां कात् रां
मातयेभरवण जातेलीं.

अश्वत्थाम्याची चकनां देखून
व्हांवते व्हांवतेर, तीं व्हावूं दी.....
सासणांचीं व्हावूं दी.....
व्हांवतेर, जीणे धडेर
सपनां आमचीं फुलूं दी.

**रथा-उच्छाव !**

वडाऽत !.... वडाऽत ! !....
नाचयाऽत !.... नाचयाऽत ! !.....
नाचयाऽत रथ !......... रथ देवाचो !

वडटल्याक देव व्हड करतलो !
देव नाचयतल्याक शक्त दितलो.
ना नाचतल्याक
नाच्च करतलो.

वडाऽत !....... वडाऽत ! !......
नाचयाऽत !...... नाचयाऽत ! !.....
नाचयाऽत रथ !......... रथ देवाचो !

हाडांचीं... काडां जालीं ?
जातलींच !....
.........जावूं दी !
रंगरूपाचीं.... खोबडां जालीं ?
जातलींच !....
.........जावूं दी !

हाडलें कितें ?... व्हरतले कितें ?...
देवाचें आसलें ... देवाक पावलें !
मातयेक माती लागसर,
नाच्चेच आसा हांगसर !

देवाक़ पावता ;
ताका देव पावता.
देवाक दिता ;
ताका देव दिता.

देव तुमचो ;
रथ देवाचो ;
मान नाचोवचो,
वाड वडलांचो.

वडा ऽ त ! ........वडाऽत ! !.......
नाचयाऽत ! ....... नाचयाऽत..! !
रथ देवाचो !.....

...........मनोरथ तुमचो !

रथ देवाचो; रथावेलो -

देव... म्हादनांचो;

म्हादन गांवचो ;

पयल्या मानाचो ;

व्हडल्या धोंनाचो ;

चकचकीत भांगराचो ;

फेर्रादं फाताचो ;

सेदीत सवळ्याचो ;

तुकतुकीत कातीचो ;

हुळहुळीत जीबेचो ;

पोकळ काशेचो ;

भितल्ले गांठीचो ;

गांठिच्या जानव्याचो ;

झडिल्ल्या शेणयेचो ;

गांठिचो घट्ट ;

कितेंय जाल्यार खाट्ट-खुट्ट,

वेळाकाळाक पावतलो ;

कणयो - काणुक घालतलो ;

सासणांचो राखतलो

प्रसादाचे पावळेक... तुमकां,

देवाच्या !........ आपल्या !
नाचयाऽत ! नाचयाऽत !
रथ देवाचो !
देव म्हादनांचो
म्हादारांत.... नाचयाऽत !......

उपाशी पोटार,
देवळा - मळार,
ताशा - तालार,
वचपाक सर्गार,
उडयो घुडयेर -
घालात, करात
जळटे जिणेच्यो
म्हाल-मशाली
आनी
देव नाचयात !

विसरात......... उपास ;
विसरात.......... तपास ;
विसरात..........पोसप ;
विसरात..........सोंसप ;
पांग......पावळी.......
वली-सुकी !

नाचयात.......रथ !
नाचयात .........घुडयो !
भक्तिभावान !.... देवा-दारांत !
नाचयात !.....नाचात !!

लक्षांत दवरात
गजाल लाखाची;
म्हादन राजी.....देव राजी;
सदासर्वकाजीं !...
नाच नाच नाचयात !.......
रथ देवाचो !

जिणे-बडयो
आयज ना फाल्यां
म्होडटल्योच.
रथाक घुडयो
आयज नि फाल्यां.
सोबतल्यो.

देवाफुडें....म्हादनाफुडें
फुडेंफुडें करप.... न्हय बरें !
तोंडानची नुती तोंडान गिळात !....

रथ नाचयात !
नाचया ऽत !......रथ
रथ.....देवाचो;
मान.....म्हादनांचो;
नाचयाऽत !

नाचतां, नाचयतां.....
नाचयतां, नाचतां......
नाच्च जायात !....मोक्षाक पावात !

मोक्षाचें भाग्य....परम
कुळाव्याचो पाळात धरम
पाळटल्याकूंच फळटा !
कोणाय पामराक .... लाबना !
नाचयतलो..... तोच्च भोगतलो !

देखून सांगतां, आड्डून त्रिवार
मोक्षाचे हांगां उघडलां दार
येयात........ येयात....
रथ नाचयात !

येयात म्हातारे, येयात तर्नाटे,
येयात जाण्टे, येयात नेण्टे,
येयात भुकेल्ले, येयात तानेल्ले,
येयात उपाशी, येयात अशक्ती,
फुक्या जाय मोक्ष तांणी येयात
आन्नी नाचयात
रथ देवाचो!... देव म्हादनांचो!
मनोरथ तुमचो!... जांवचो पूर्ण!
सुफळ संपूर्ण !

नाचयात रथ...
रथ देवाचो !!!

**पावणी**

पावणी वाडत वता,
तशें....
मोल देंवत वता.

मोलाक हांगां मोल ना ;
पावणेक 'निखटो बोल' ना.

'बोला'चें मोल.... कोणी मेज़लां?
मेजावयलें काडून केळें -
इश्टागत जोडप.... सोप्पें जालां!

कोणालें मेज?
कोणालें केळें?
दिता कोण?
घेता कोण?

प्रस्न अनेक :
जाप एक :

"बोल्सान दुडू आसलेय म्हण बास्तान -
आसताच अशी ना ;
पावणी आडोंवक फावो ती
आंग्ल्यापोना छांती :
छातयेपोना पुलमाव अक्षय आनी !

आसप ती; नासप वा; आफ्टर ऑल –
ईज नॉट व्हेरीमच असेन्शियल.
मॅन ईज अ ट्रॉन्स्फर्मेटिव्ह ॲनिमल
ईज अ फायनल !... बियोंड ऑफ वॉल !

म्हत्व आसा : फकत पावणेक ;
म्होवाळ उंचेल्या फारावपी उल्याक :

"पयली फाव ऽ ट !
दुसरी फाव ऽ ऽ ट !!
आनी ऽ क ........... को ऽण ?... आसा ?
को ऽऽ....... हं ?.... आ ऽ ऽ नेक?
आसा ऽ.... लां ऽ स?
तिसरी फा ऽ व ऽ ट..........
............ पावतो ऽ ऽ ऽ सा !"

**कोचिल्लो नाल्ल !**

कवाथो : आमी लायलो
तुमी तेची भाटां केलीं.
पाडेली येवन पाडून गेले,
जुलगादोर सासणाचे,
देंट माथ्यार मारून गेले.

शीम-धड भाटाची,
चुट्टेन - चुट्टी माडाची,
सरत मेजून ; सरची ना –
आवतिकाय : देंटान्सून –
कोचिल्ल्या नाल्लाची !

**शबै! शबै!!**

आयल्याचे म्हयन्या
काम किदें ?... कांयच ना!
कोणूच बेकार उरना!

पूण घेतल्याबगर जांयच ना!
शबै! शबै!!.....

आमी आयल्यांव वर्सांनी
कित्याक तें सांगचें न्ही ?
घालचें समजून जांणींतांणीं
फकत आमच्याच दबुलांनीं!
शबै! शबै!!......

खाटखुट करता,
पेटुलाची चावी काट्टा
तुमकां दुडू घालतां!

घालता तो मोखता!
शबै! शबै!!....

" आळू-बाळु रड्टा मुगे ! रड्टा मुगे!! "
" रड्टा ताका रडूं दी! रडूं दी !!
'कार्य' मुगेले फळूं दी! फळूं दी!! "

"पैशांचो दुदुलो मागता मुगे! माग् ता मुगे!!"
"मागता ताका मागूं दी ! मागूं दी!!
मागलेबगर मेळ् ना 'घी' ! मेळ् ना 'घी'!!"

तूप खातल्याचें दिसता रूप ;
मुखार आसा करचें खूप ;
देखून धल्लां वा-यार सूप !

बांदात पोरां पोटाक : "हूऽप!"
शबै! शबै!!......

## कुब्याट

“गावांन दशेत्री इल्यात.“
“ जात्रा आसा खंय!”
“कोणाचो रे मेळ ह्यो ?”
“आसना कोणाचोय”
“म्हणजे ? ...”
“ म्हण़जे म्हणजे..... तारूं पावला पणजे !”
“ म्हणतसय् काय ? - पणजेचो ?”
“न्हूं! तुज्या आज्याचो ! ”
“आज्या, आज्या, खाडाक धर माज्या !”
“ खाडाक मियां लायतंय् चूड!”
“ खाडाक हेच्या लागली चूड!
बापूय मेलो, आता तरी उठ!”
” बापूय मेलो ? - मरां दी !”
“ पूण जात्रा ही गांवची -
खुशालकायेन जांवदी ! ”
“जातली !.... जातली !!.... जातलीच ती !!! ”
“ पूण मेळ कोणाचो गा ?”
“वार्साचोच!”
“मगे ऽ र ..... वर्सल कोणाची तर?”
“ वर्सल वर्साचीच !”

"मेळाक काय? वर्सल सुगूर ....तर
रातभर जागर !"
" मेळ कोणाचो तां सांगलयच ना झिला !"
"झिला, झिला, बापूय खंय गॅला ?"
"गॅला तो गॅला –
एकटां एकसुरां कुब्याट घेवन गॅला !"
" कुब्याट माजां अपुर्बायेचां !......
........ जात्रांगणखणी थिगळायल्लां !"
"हुडहुडो-कुडकुडो दवरुंक भायर
मारतत हुयेली थिगळी - दोर
"कुब्याट तसां म्हातारां बरांच....
दशयो - दोक्यांच्यो जाल्यात ; खरांच !
जीणे भरच्या जात्रांची पूण
सुतांगणखणी आसा ऊब !
"ह्याच कुब्याटाआडोसान....
गणेस कितके शारदा इल्यो;
इल्यो आनी फुडल्यान नाचानय गेल्यो !"
"म्हणान झिलग्या म्हाता-याचां माजां –
सांगणां यॅक ध्यानान दवर :
"कुब्याट जाग्यार
तर ख्याळ हजार !
दशेत्री कितें?
- येतले तशे वतले !

वगत पडल्यार, जांवचें पड्टलें ;
पळोवप्यांक दशेत्री
आनी दशेत्र्यांक पळोवपी.

"पळोवप्यांक म्हत्व ना !
दशेत्र्यांक लेगीत म्हत्व ना !!
आख्यानाक देखून महत्व ना !!!

"म्हत्व फकत
आसा कुबाट्याक.
म्हुणान म्हुणतंय् , सांबाळ! झिलग्या,
तुजां तू कुब्याट सांबाळ ! !"

## मार्ग

कोणी फोडले दोंगर?
कोणी भल्ले डबरे?
कोणी बांदले मार्ग ?
आनी हे गांव वसयले?

खोरें आपलेचवटेन
वोट्टा माती!
निखट्यो तरीय ,
पेटना वाती !

वाती वळटले ,
हात वळ्ळे!
माती भर्तले,
भेंड म्होडलें!

फोट्टा दोंगर,
फोडप सरच ना!
भरतां डबरे,
भरून भरच ना!

गांवांक मार्ग जाय.
मार्गांक गांव जाय.
गांवांफाटल्यान मार्ग आयले.
मार्गांफाटल्यान गावं आयले.

मार्ग पुरे जालेच ना. सोदीत तांचें –
वसयल्ले गावं उठून गेले.
गांवांक सोदूक पर्सेंटवार –
आर्गच आपले मार्गांक लागले !

मार्गा सोदींत शारामेटार गांव
मोट्रांपोनां मरून पडले.
मेटाक - मोट्रांक तांचें कित्याक –
आसचें सोयर ? आसचें सुतक ?

पंचनामो सोद जारी आसा :
दिगंतासून गांव गांव येतूच आसा.
मार्गा सोदीं शारा मेटार.
मरपाखातीर तीन त्रिकाळ !

आतां –
दोंगर फोडप
बंद जालां ;
‘बाय ऑडर !’.....साबांळूंक सैम.

मार्गासोदीक वतल्या गांवाक
थोरामोट्यांनी थारायलां,
दिंवचो सुळार !.....संस्कृताय मा-याक ! !

‘चोर सोडून..... !
हय, तशेंच !... परंपरेक धरून ! !

विकासाचे वाटेर
रस्तेभरवण जाण्टीं –
गांवगिरीं मातये-घरां ; आनी
दुडू खुबळायत बोल्सांनी
भोंवणेकार रस्ते आतां,
लागल्यात मार्गाक !

## बावलीं

सासणांचो चिकोल कालोवन,
तुजीच तुवें घडयलीं बावलीं.
घडोवचो आसलो गणेस ताका-
केल्द्याची कळा आयली.

केल्दीं आता कालयतात तोच
मनिसकायेचो चिकोल नव्यान,
दया - क्षमा - भावपण सांगीत,
दरेक म्हूर्त घडयता तुजीच.

म्हूर्तीं कणकणीं रावतात उबीं
देवळां आनीक.... आनीक नवीं !

केल्दीं तितल्यो वान्सा ;
वान्सा तितल्यो मन्सा ;
मन्सा  तितल्यो जिन्सा.

जिन्सा जिन्सा कणकणीं
म्हुर्त नवीच नवीच काणी !

आतां हांगसर चल्ला हुतूतू
म्हूर्तींच्यां सताफटींचो
मनशापाश्ट मातयेम्हूर्तू
शितोड घालता रक्ताचो.

रंग रक्ताचो, एकसारखो.....
पोस्ट ऑफिस रेड, पूण -
तांकां हें कोणी -
सांगचें कुड्ड्यान ?

दरेक मोनी म्हूर्त तुजी,
मिटून वंठ वट्ट वोगी !

हांगां नव्यान रणखेव मातला ;
सताफटींचो.....
तुज्याच !....
......लटापटींचो.

**कवन : १**

आमी रामाक वनांत धाडलो
‘रामायण’ घडलें.
आमीच रामाक देवळांत पुजलो ;
आनी ‘रामानुजा’क जिवें मारलो.

## कवन : २

आमीच जेजूक खुर्सार मारलो :
धर्तरेच्रो सर्ग जालो.
आमीच जेजूक देवपण केळयलें;
सर्ग पाद्रींचो दास जालो.

**कवन : ३**

गांधी सत-पिसो आसलो
आमीच ताका म्हात्मा केलो.
आनी ताचो पोन्नो वालो
चौखांब्यार पावणेर काडलो.

## कर्तुत्व

: १ :

ताणें हातान दिल्ली,
हांवें फकत सुतली वड्ली.
घुसपागोंदळ पयस जालो,
बावटो वा-यार खिदळ्ळो.
टाळयो मारून लोकांनी म्हळें,
"हाणें बावटो वयर चडायलो !"

: २ :

फातर पयलीच तासून दवरिल्लो ;
बुन्यादूय तांणीच खणिल्ली ;
उश्णे हांसत घामाघूम मानाय,
भटां - मंत्रांर हात-दोके
धाडय धाडय धाडयतालो ;
बुन्यादीचो फातर घडयतालो.

हांवें फकत फोट्यापुरतो हांसून
पै ऽ स्सून फातराक हात लायलो !

पेडो खावन प्रजेन म्हळें :
"फुडाराचो फातर हाणें बसयलो !"

## चूड

चुडेली न्हू ; दिसता चूड !
जिबोळ्यो झुजतात जाच्यो
काळोख लासुंक ..........
.......... संवसार उजळुंक !

पैस्सुनच पळोंवन तिका
....... पळटा काळोख.....
कुयेली मारून !......

आयकून त्यो, मुमुर्ख्यांनी -
हासता कशी चूड-राणी :
हांश्यांच्यो त्यां किटी जाल्यो;
लासुंक काळोख.... सासणांचो नवो,
लागल्यो नांचुंक ! ....... नाचुंक लागल्यो !

जळीं मळीं लागल्यो आगी,
गोबर जावन पडलो ओगी ;
जंगल-अमंगळ जळून खाक ;
काळखा पळटां उणी रात !

किटींचे त्या  सुर्या जाले ;
यूग नवेंच ते वियेले;
दिसना चूड ; चुडेल्याचे –
दिसती पांय : मोगरे कळे !

## चिरो-चिरो घट्टां-घट्टां

चिरो-चिरो घट्टां-घट्टां,
तो स्वताकूच ताशीत रावलो
फातरापरस घटमूट म्हण
जितोच ताका बुन्यादीक पुल्लो !

मदेरामेत चिरतां चिरतां,
आपलोच फुडार चिरीत रावलो ;
मकरध्वजाचे काणयेर पातयेवन
आपणेच आपलो घात घेतलो.

चिरो चिरो ताशीत घडयत,
उबाल्ल्यो तोरी, तशीं देवळां.
पाटयो-फळयो तासून-चिरून,
बांदल्यो माळयो आनी रावळां.

गुणो चिरो ताशीतूच उरलो,
पाटयो-फळयो चिरतूच उल्लो,
जीणेच्या पावसांत उटंगार,
घरदारासयत कोसळत हुबलो !

कोसळपी पा-यां-घरा खातीर,
फुटाक लोबर गावलें ना.
मोडक्यां मेडी दारा खातीर,
फळकूट वेतभर मेळ्ळें ना !

पिकान्राचो उलो आनी
मोज जीण भर खणखणटा!
खरवतीचो ताल खर,
खीण खीण तन-मन चिरता!

## लोकशाय

सुरवेक :
हावें -
तुमकां साद घालो .
तुमी -
म्हाका 'ओ' दिलो
आनी :
हांव वेंचून आयलों !

मागीर :
तुमी म्हाकां साद घालो.
हांवें कानार केस्ट्यो काडल्यो.
हांव तेन्नाच 'लीडर' जालों.
रावले, रावले, रावले ! तुमी –
म्हज्या 'ओ' क आवंडेत रावले !

दीस उदेलो; दीस पालवलो ;
गेल्लो दीस परतो आयलोच ना.
सासणांचे दळींदर तुमचें,
सरणाचेरूय सरलेंच ना !

देखून हांव तुमचो भोव उपकारी.
मार्ग मोकळो केलो पोक्या उतरांचो
राखलो तुमीच स्वतः प्राण म्हजो.
देखून देखण्या लोकशायेक
लाबलो अर्थ नेक

अशे कितलेशेच आम : तुमी
उपाशी पोटार नांगर ओडून,
धर्तरी कुशीक सपनां ओंपलीं.
उटंगार आमच्या उतरांच्या पावसांत
पसवणे पयलीच
पोल्ल तुमची पिराय जाली.

खंयचे कुंबळें ? खंयचें बीं ?
मातीच हांगा नागवली थंय ?
आवंडे स्वराज्याचे गिळून हंय
बेवारस लोकशाय मोन्यानी मेली !

## पंद्रा आगोस्त

आयज :
चौदा चौकड्यांचे रातीचो
सासणांचो करून अस्त
उदेलो नवोच अगस्त
तोच हो पंद्रा आगोस्त !

तीनरंगी आमचें बोनेर,
चडलें मळबांत वयर वयर
सर्ग लागलो भियेवन कापूंक,
सकला देंवून पांय धरूंक.

सर्गय असो गुलाम जालो ;
देस आमचो, स्वतंत्र जालो !

आयज दोन पिणक्यां उपरांत,
जमल्यांत जायतीं कुपां मळबांत.
काळोख दांडगो धपकांवक लागला
आनी उजवाड मोनो जाला !!

कित्याक ? कोणीन विचार केला?
बावटो आमचो वयऽर चडला!

मातयेन माखिल्लें पेपरमिट चोखीत,
उक्त्या मळबार नदर मोखीत,
बोनेराच्या लुगटाक आवंडेत
एक - एक पॉर नागडेंच उल्लां.

नागडें पॉर दिसचें कशें?
नदरेर आमचे फॉरेन हारशे!
मुखार म्होंवाळ नकटें हांशें,
हाशांत स्वराज्य करपलां.

बावटो वयर वयर वता ;
बाबडो भितर भितर वता ;
नेता आमचो यथा तथा
ओपलां तेंच किल्ललां!

आयज पंद्रा आगोस्त!
बावटोच जाणा फट - सत!

## मूक्त आमी

दर्याक तूमी बांद घालो.
घालात. पूण समजूं नाकात,
आमी रेब्या-कोण्ड जातले.
ना ! ना !..... केन्नाच ना !

प्राणांक तुमी फांसार दितले !
दियात. पुण समजूं नाकात,
आमची कूड बायजुवाण जातली.
चिंतुक नाकात !....... साप्प विसरात !

सपन-भुंयेर विखाचो तुमी,
पावस घालो-घोग्यांनी.
घालात. आनिकूय घालात.
पूण मतींत घट्ट दवरात, तरीय—
किल्लचेले आमी रावचे नात !
फुलचेले आमी रावचे नात !
फळचेले आमी रावचे नात !

आमी किल्लतेलेच !
आमी फुलतेलेच !
आमी फळतेलेच !
सासणाचे ! सासणांखातीर !

मातये - पाखें फाकौन आनी
तुमी वंयिल्ल्या मळबा पैल,
मुक्त त आमी उडतेलेच !

आसा कापासदाद ?
.......पळोवयां !
तर...... तुमी वंय कराच !

## माजी आई

गुप्प काळखांत चलान गेली,
मुक्या - मोनयां बोलान गेली,
भल्ल्या घरांतसून उठान गेली,
चिटीमिटी करून गेली
जीव माजो. मा ऽजी आई।।

पावस इले, गीम सल्ले.
काळजांतले उले काळजांत उल्ले,
ताळयांतले ताळे सुक् के पडले,
मुको मोनो करून गेली
सासणाची मा ऽजी आई।।

झिनोळयांच्यो पिन् नोळयो जाल्यो,
गोड उतरांचो गळो धल्लो,
हांवेस होवयांचो करपान गेलो,
पिसो भेरो करून गेली
सातां जल्मांची, मा ऽजी आई ।।

मुसळ आतां नाच्चें ना ! नाच्चें ना ! !
दातें आतां गावचें ना ! गावचें ना ! !
पतवाळ काणी सांगची ना ! सांगची ना ! !
सुशेग सगळ्यांक दिवन आमकां
आपूण कोणाचे मेरेर गेली? मा ऽजी आई।।

'शीरी' काय 'ग' कळा नासलो ;
'दोन इसो धा' चो हिशोब आसलो;
तरीय अक्षर आदार आसलो;
अक्षरांवांगडा खेळचे वयार म्हाका
'आलकाण्यां'त उडोवन गेली । मा ऽजी आई।।

दळींदरांत फुलयल्ली उमेद
माजी, आपली मारून गेली ;
धुडधुडें माजें बाळकपण घेवन गेली ;
पाळण्यातलो म्हातारो म्हाका
कित्याक तरी करून गेली ? । मा ऽजी आई।।

## हांव

हांव :
एक मनीस
एक दीस

हांव :
एक जानवर
एक यातनाघर

हांव :
एक पक्षी
एक साक्षी

हांव :
एक झाड.
एक नाड.

हांव :
मानसाळें जानवर हांव ;
जानवरापश्ट मनीस हांव ;
झाडांतलो पक्षी हांव ;
पक्षांतलें झाड हांव ;
झाडाक आयिल्लो पाड हांव ;
न्हू थय्ंसल्लो नाड हांव ;
विश्वाच्या वर्सांतलो नव्या
पोन्र्या म्हज्या कुडींतल्या –
यातनाघरांतलो, रातीक रावपीं,
पयलो पयलो दीस हांव.

**म्हाका जाय.**

दर्या तुजी गाज म्हाका जाय.
ल्हारा तुजो माज म्हाका जाय.
पाणया तुजी खोलाय म्हाका जाय.

मळबा तुजे दोळे म्हाका जाय.
चान्र्या तुजे चाळे म्हाका जाय.
सूर्या तुजे वळवळे म्हाका जाय.

रूखा तुजें वत म्हाका जाय.
दिवले तुजी वात म्हाका जाय.
सोरपा तुजी कात म्हाका जाय.

आवय तुजी भास म्हाका जाय.
गायरा तुजी कास म्हाका जाय.
मातये तुजो वास म्हाका जाय.

शेवण्या - सावळे काच म्हाका जाय.
जरीय अशें कितलेशेंच म्हाका जाय.
सरते शेवटी म्हजो हांवुच म्हाका जाय.

## तुजें.... म्हजें

तुजे दोळे
म्हजे दोळे
चंद्र - सूर्या मेळे.

तुजें !.......... म्हजें !
खंय मेरेन ?
वंय आसा, थंय मेरेन !

म्हजे वंठ
तुजे वंठ
मळबा - भूंये भेट !

## कवी

“मायझंयां, कविता करतसय् ?
आज्यापणज्यान तरी तुज्या
केल्ली काय रे कॅवां कविता ?”

“म्हुणानच मियां करतंय !
बापायसकट आज्यापणज्याक
खापर-खापरपणज्याक, शेणज्याक –
‘शीरी’ची गाण फोडुंक
येय नस्ली.... म्हाकां येता !”

“फोडुंक आयली म्हण ‘श्री’ ची गाण,
सगळें ब्रम्हज्ञान आयलें ; तांतूत
कविता देखून आयली करुंक;
अशें समजूं नकोस रांडीच्या !

“रामग्याच्या रेडकाक फडग्याच्या रेड्यान –
फळवण्याइतकें सोप्पें नव्हें तें !

शेणाचो खोटलो घेवन,
गोरवाचे गांणी मागें धांवचें सोडून,
कवितेक झंवंक सोदृतसय् ?
गरिबांच्या पोरांक तुमकां,
शब्द-खेळ कोणी रे सांगले हे ?

घट्ट शेणयेक गांठ मार ! कवितेचे-
शॅटय हातीक लागचे ना तुज्या.
गोळाक मात लागतलस्
फुकटझंयां..... जीणभर !

आमच्या रेड्याक देखून अक्कल आसा
पुणून तू....? "

"तुमचोच रेडो तो!.... वेद वदलेलो!
त्याच तुमच्या रेड्यां-वेदांनी
सासणाचे दवरले रेडेच आमकां.
त्या आमी रेड्यांनी कविता करप..... ?
छॉ ! छॉ !!...... वगीच कायतरीच काय बामणा ?

"खरांच तुजां बामणा!
कवितेक झवतास्तना,
उतरा - उतरार खेळचां आसता.... बळयां ;
तुमकांच जमता तां बरां.
झवप कमीच आनी किमचवणीच अदीक!
नातरी, गांवच्या खुस्तार कळवंतां नाचोवपाचो –
अणभव.... तुमकां आसाच!
पिणक्यां-पिणक्यांचो, गाण-दांडगो!"

"मियां गरीब अशक्ती
गेलंय झुजांक शब्दांआड उतरांगणखणीं उक तेपणी ;
आनी बिरामनासपुत बामणा,
फुकटचो आनीक असो रक्ताबंबाळ जालंय !

"व्हांवत्या रक्ताक बारीक लोक त्याच
म्हुणटत बगून : "हेनी कविता मुरे रचली !"
आतां, लोकांच्या ह्या अडाण्या –
तोणार हात दवरुंक येयत् ; पुणून
दवरचो कोणी गाणीर ?....... 'शीरी'चे ?

“तुमकां आपलां बरां जमतां तां
येक हात तोणार, आनी......

“घेयाच मनार !
नायतर, हेचीच एक कविता करात ;
आनी कवी म्हूण मिरयात
क्रांतिकारक !....
चारचौगात. ”

## शिटकावणी

कापले तुमी म्हजे पांखे
पूण मळब म्हजें -
कोण कापीत ?

व्हडें म्हजें फोडलें तुमी
पूण दर्या म्हजो
कोण मापीत ?

चंद्रिम म्हजो वाडयलो तुमी
पूण सुर्या म्हजो
कोण धांपीत ?

याद दवरात मतींत घट्ट :
हांव शिटकायतां तुमकां :

"कूड म्हजी लासली तुमी.
लासात !
अनादि अग्नि, जो -
अंतर्यामी आसा म्हजे,

जायत तो -
तुमकां लासुंक ?"

"ना !....ना ऽ च ना !
सरणाचेर लेगीत तो –
थंड मडें जावचो ना !
तो... पेट्टलो !..... उसळतलो !
ज्वालामुखी जावन तप्त !.... प्रयळयांतक दावानल !

कडकडीत ताच्या रोसा-दर्यांत आनी
नकलामी संस्कृताय तुमची
गोभराभर्वण करतलो !"

मड्डार त्या रूजिल्ल्या
घोंटेरांत नव्याच रूखावेल्या
जल्मतलें एक गीत नवेंच :
"आलोक-प्रीत !
आलोक-प्रीत !!"

## मागणें

हांवें लायिल्ल्या कवाथ्याक
येतलेच नाल्ल !.... तिजून घेयात !
चुकून एकाद्रें वांजूय जल्मत.
देंट ताचे पूण तुमकां –
फारीक करचे पडचे नात !

हांवें खणिल्ल्या बुन्यादीक,
लोबोर तुमी जांवंक नाकात.
कोणूय फुडें सरल्यार
तरणो गुणो,
फाटीं ताका ओडूं नाकात.

देवदेण्या भाटाक म्हज्या,
दुरीग तुमी घालूंच नाकात.
दर्याक म्हज्या थावनेण्या,
उड्णां तुमचीं लावंक नाकात.

अनंत म्हज्या गगनाक,
पतंगान तुमच्या वावूं नाकात.
म्हजेर बोंच मारचे वेळार,
‘कावळो’ जावंक विसरूं नाकात.

## उल्यां उपरांतचीं चार उतरां...*

म्हज्या कवितांचो हो झेलो कोंकणी मायेक आनी साबार काव्य रसिकांक भेटयतना म्हाका भोव खोस भोगता. कोंकणी कविता म्हाका गावली १९९० वर्सा.तेन्ना सांवन हांव कोंकणी कविता बरयतां. ह्या झेल्यांत आयल्यात त्यो कविता १९९० ते १९९३ मेरेन बरयल्ल्यो. तांतूतल्यो सुमार धा-बारा कविता 'राष्ट्रमत' दिसाळ्याच्या आयतार सोमार पुरवणेंतल्यान हे आदि उजवाडाक आयल्यात. 'राष्ट्रमत' दिसाळें आनी ताचे संपादक, सर्गेस्त चंद्रकांतबाब केणी हांचो ह्या वेळार हांव काळजान थावन उगडास करतां.

१९९३ वर्सा हो झेलो 'पयलो चंवर' येवजणे खातीर गोंय कोंकणी अकादेमीकडे धाडलेलो. पूण थंय ताचो नंबर लागलो ना. उपरांत तो उजवाडावचो म्हण थारायलें. टायप-सेटींग लेगीत करून घेतलो. पूण कांयच सबळ कारण नासतना तो पंद्रा वर्सां तश्या तसो फायलींत बंद पडून उरलो. १९९३ वर्सा देजेंब्र म्हयन्यांत उजवाडाक येवपी हो झेलो आतां २००८ वर्साच्या देजेंब्रांत उजवाडाक येता. 'देर से आये लेकीन दुरुस्त आये।' अशी म्हण्णी आसा. पूण तुमकां सांगतां, कवितेच्या लेखनांत कांयच दुरुस्ती करूंक ना. ना कानो. ना मात्रा. फकत तांतूतली एक कविता– सार — उणी केल्या. पयलीचो मुद्रक आनी चित्रिक बदलला. म्हजो इश्ट, भोवमानेस्त मनोहर काळसेकार हाणे ह्या झेल्याखातीर तेन्ना मुखचित्र काडलेलें. ताचोय उगडास करतां.

आताचो मुद्रक, चित्रिक हांका देव बरें करुं म्हण्टा. म्हजो सत्‌शिश्य हेमंत अय्या हाचें खाशेलें हातबोट हे उजवाडावणेच्या वावराक लागलां ; देखून ताका चड देव बरें करूं. ह्या झेल्याक कोंकणी रसिक आनी समिक्षक कशे कितें येवकार दितले ते म्हाका नेणो. तांणी म्हज्यो ह्यो कविता जरूर वाचच्यो आनी कोंकणी कवितेक मुखार व्हरपाच्या वावरांत म्हजे कडल्यान कांय अदीक-उणे जाला जाल्यार ते विशीं जरूर बरंवचे ; अशें तांचे लागी नमळायेन मागतां. दुसरो झेलो गुंथपाक म्हाका तांच्या विचारांचे बळगे मेळूं येता.

२९ देजेंब्र २००८ — - बाळकृष्णजी कानोळकार

